NEHRU BAL PUSTAKALAYA

# मंगुचो भोवरो

कामाक्षी बालसुब्रमण्यम

चित्रकार
अमितव सेनगुप्त





ISBN 81-237-1167-0

पयली आवृत्ती 1995 (शक 1916)



रु. 9.50

Mangu's Top (*Konkani*)

प्रकाशक : संचालक, नॅशनल बुक ट्रस्ट, इंडिया
ए-5, ग्रीन पार्क, नवी दिल्ली-110016

नेहरू बाल पुस्तकालय

# मंगुचो भोवरो

कामाक्षी बालसुब्रमण्यम

चित्रकार
अमितव सेनगुप्त

अणकार करपी
मिक्रू बोमी नायक



नॅशनल बुक ट्रस्ट, इंडिया



## मंगूचो भोवरो

मंगूची एक उमळशीक आसली, ताका एक मजेचे खेळणे जाय आसलें - एक चकचकीत, नवेताल्ल खेळणे.

पूण खेळणे विकते घेवंक ताचेकडेन पैशे नाशिल्ले. तो आंवडेता तसलें एक खेळणे घेवन ताका दिवचे अशें ताच्या आवय-बापायकय दिसतालें.

मंगू आपले खोपीचे भायले वाटेन बसून हे खेळटाल्या भुरग्यांक पळयतालो. तांचे कडेन भोंवरे आशिल्ले, गड्डे आशिल्ले, पतंग आशिल्ले... तीं भुरगीं हांसतालीं, धांवताली, हरतालीं, जिखतालीं.



फकत मंगू एकलो आशिल्लो. तीनसांज जावन काळोख देंवलो तशीं हेर सगळीं भुरगीं आपापल्या घरा गेलीं. मंगू मात आशिल्लो थंयच बसून रावलो.

आनी अचकीत ताका तो दिसलो. एक भोंवरो. तो एका कोनश्याक आशिल्ल्या व्हड फातराचे कुशीक आसलो.

मंगून तो उखल्लो. तो खूब पोन्नो आसलो. ताच्या आंगार मदी मदीं फोड आयिल्ले. ताचो रंग विटून गेल्लो.

तरीकय तो भोंवरो मंगून तो घरा हाडलो. ताणे ताका लांब दोरी गुटलायली आनी जमनीर घुंवडायलो.



तो घुंवलो !

पूण खंती दिसलो. कित्याक आंगाक फोड आयिल्ले आनी रंग विटिल्लो देखून.

मंगूक दिसले भौंवऱ्यांक पुरो जालां. तो बरो ना सो दिसता.

ताणे तो उखल्लो आनी बारीकसाणेन तो नियाळ्ळो.

ताणे आंगशान तो पुसलो. मागीर ताका विटेचो एक कुडको मेळ्ळो. ताणे तो भोंवऱ्यार अचळय घांसलो.

भोंवऱ्यांचे फोड गेले. मंगून ताका तेलाचो लेप दिवन आनी तो रंगोवपाचे थारायले.

ताचे आवयन ताका कुलेरभर तेल दिलें.



बापायन आपल्या इश्टाकडल्यान थोडो उरिल्लो रंग हाडून दिलो.





सकाळीं फुडें मंगू आपल्या कामाक लागलो.

तेल लकलकपाक लागलें

रंग चकचकूंक लागलो.

भोंवरो जमनीर वताक सुकत दवरलो. दीसभर आनी रातभर तो सुकूंक जाय.

रात जातकच तेन्ना मंगू न्हिदलो, भोंवऱ्यांची सपनां पळोवंक लागलो.

ताका जाग आयली तेन्नस भोंवरो ताचे कुशीकूच आशिल्लो. तो न्हिदलो. तेन्ना भोंवरो गडगडून मंगू सरी पाविल्लो.

मंगून मोगान ताचेकडेन पळयले. कितलो सोबीत ! कितलो सुंदर ताचो रंग !

पूण हें कितें ? भोंवऱ्यांक एक बुराक आशिल्लो जो एका टोंकाकडल्यान दुसऱ्या पोंताकडेन भायर सरिल्लो. तो सादो वयल्यावयलो फोड नाशिल्लो. घडये भोंवरो परत केन्नाच घुंवचो ना !

मंगूक खूब वायट दिसले. तो आदीं कसो घुंविल्लो ताची ताका अचकीत याद आयली. ताणे भोंवतणी घट्ट दोरी बांदली आनी ती ताणून सोडली.

भोंवरो खोशयेन घुंवपाक लागलो. रंग चकचकावत, वत आंगार घेवन आनी चड म्हळ्यार तो घुंवताना बुराकांतल्यान वचून तो शिळोणी घालतालो.

मंगूकडेन आता ताचे खेळणे आसले. तागेलो शिळोणी घालपी, घुंवपी भोंवरो !



